# काणयांचे पेटूल

बरोवपी :
सरस्वती दामोदर नायक
















श्री हरि प्रकाशन





# काणयांचे पेट्रूल

बरोवपी :

सरस्वती दामोदर नायक






श्री हरि प्रकाशन



Kanyache Petul

Collection of Short Stories

**काणयांचे पेट्रूल**

*बरोवपी : सरस्वती दामोदर नायक*

प्रकाशन क्र. २०



पयली उजवाडावणी : नोव्हेंबर २००३

(कांय काणयो स्वतःच्यो, कांय आदारीत)





*उजवाडावपी :*
**दीपा दिनकर मुरकुंडे**
श्री हरि प्रकाशन
३८९/अ, शांतिनगर,
अ[illegible]यश,
[illegible]नावेली, गो[illegible] - [illegible]०३ ७०७.




अक्षर जुळणी
स्पिडॅक इन्फॉरमॅटीक्स, मडगांव
फोन नं: २७३७००२

छापणावळ
प्रिंटआर्ट ऑफसेट, कुंडय

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां
वासू

मोल : २० रुपया

# मोनू फुलपाखो

आपली माँ म्होंव हाडूंक म्हण घरांतल्यान भायर सरल्या तें पळोवन मोनू फुलपाख्यान हळूच भायर फुज्जो मारली. सकाळची वेळ आशिल्ली. सुर्या किरणां धर्तरेर आयलीं. आपली सोबीत पाखां सांबाळीत हाका ताका तोंड लिपयत मोनू गांवा भायर पावलो. वाटेर ताका एक दोगांनी हटकीलोच. पूण ताणें तांकां वाटेक लायले. गांवाभायर एक व्हडली न्हंय व्हांवताली. देगेची झाडापेडां न्हंयच्या उदकांत आपलें तोंड पळयतालीं. न्हंय सामकी धवीच दिसताली. तरेतरेच्या फुलां फळांनी तो वाठार सजिल्लो. हांगा तो पयलेच खेपे पाविल्लो. इतल्या सोबीत जाग्यार वचूंक आपल्याक माँन किदयाक मना केल्ले म्हण तो चिंतूक पडलो. ह्या झाडार, त्या फुलार अशें करीत तो खूब फुडे पावलो. थंय न्हंयचो एक फांटो फुटून ल्हानशें एक तळें जाल्लें. तळें साळकांनी सामके गच भरिल्लें. तांबडी-धवी सोबीत साळकां ताका यो यो म्हणटालीं. एक व्हडलेशें साळीक पळोवन मोनू ताचेर वचून बसलो. साळकाच्या मोव लुसलुशीत आंगार नाचलो, खेळ्ळो. गादयेर उड्यो मारतात तश्यो उड्योय मारल्यो. भरपूर म्होंव खालें. ताचें पोट जड जावन आयलें. खूब पुरोय जाल्यान ताका झेम येवंक लागली. ताणें हातपांय पसरले आनी तो थंयच साळकाचेर आड पडलो. खूब वेळ जाल्लो. सुर्यादेव घरा वचूंक भायर सरिल्लो इतल्यांत आपल्या आंगार किदेतरी जड पडटा अशें दिसून मोनून सडसडीत दोळे उगडले. पळयत जाल्यार साळीक आपल्यो पाकळ्यो ल्हवल्हव

करून मिटूंक लागिल्ले. ताणें भायर उडून वचपाक जोर लावन पांखां फुलयलीं. पूण काकुळट बाबड्याची. तो पाकळ्यांक आपटून धम्म करून सकला पडलो. तो खूब मोठ्यान रडूंक लागलो. साळकाक पाकळ्यो उकत्यो करपाक मनोवंक लागलो. पूण कांयच फायदो जालो ना. ताका पाकळ्यांनी आपल्या वेंगेत घट्ट चिड्डीलो. सबंद रात तो रडत रावलो. " माँ गे, यो गे यो " म्हणटालो. ताका परती परती माँ ची याद जाताली. ती आपल्याक आता खंय सोदतली ? आपूण तर तिका सांगनासतना घरा भायर सरलां हीच चितनां ताका परती परती सतयतालीं. ताका आपल्या करणेचो खूब पश्चाताप जालो. देवाकडेन ताणें आपल्याक गुन्याव भोगशी आनी आसा तसो माँ म्हन्यांत पावय म्हण मागलें. ताणें थारायले तो सदांच माँचे आयकतलो. दुसऱ्या दिसा सुर्यकिरणांचो हात लागताच साळकान आपल्यो पाकळ्यो उकत्यो केल्यो. बाबड्या फुलपाख्याची सुटका केली. मोनून कळाव केलो ना. तो धांवतच आपल्या घरा पावलो. दारांत ताची माँ दोळे सुजोवन ताची वाट पळयताली. दोगांय मोठमोठ्यान रडत एकमेकांच्या वेंगेत रिगलीं.



# शिटूक भोलो मास्तर

भोलो नांवाचो एक माकड रावतालो. अडिल्ल्या नडिल्ल्यांक पावप हातूंत ताका खोस भोगताली.

त्या रानांत रावपी सवण्यांनी एक दीस थारायलें " आमी सदांच सकाळीं दाणो-गोटो हाडपाक भायर सरून वतात ती बद्द सांजे परततात. आमच्या फाटल्यान आमची पिलां अशींच आलमपेड्डयार कशीं हेडतात. तांका भोलो माकडागेर शिकोवणेक धाडुया."

जालें, ह्या गजालीक भोलोय तयार जालो. सगळ्या सवण्यांची पिलां भोल्यागेर सकाळीं येतालीं. भोलो तांका बऱ्यो बऱ्यो गजाली सांगतालो. ताणें तांका परतें घरा वतना शिटकावचें " पिलानों हें पळयात. हांगासावन बद्द घरा वचात. वाटेकाटेर कोणेय कितें दिलें, खयूंय कितें दिसले जाल्यार घेनाकात." भोलो माकडान सांगला तें मतींत घेवन सवण्यां पिलां बद्द घरा वतालीं. थंय वाटेर झाडा-झिलींनी लिपून रावपी कोल्याक एकूय सवण्यापील फारावंक मेळनासलें म्हूण चिटमिटे पडटाले. एक दीस चिंतू-चिंतून ताणें एक येवजण थारायली.

दुसरे दिसा सवण्यांपिलां वतात ते वाटेर कोल्यान बरींबरीं पिकीं-पिकीं फळां शिंपडायलीं. सवण्यापिलांनी वाटेवयली हीं पिकीं-पिकीं फळां पळयलीं. तांच्या तोंडाक उदक सुटलें. तीं फळां पुंजायत पुंजायत कोल्याल्या घोली मेरेन पावलीं. कोल्यान घोली भितरूय खूब फळां हाडून

दवरिल्लीं. सवण्यांपिलां घोली भितर वचून फळां खावंक गुल्ल जालीं. तशी कोल्यान घोल फातर घालून बंद केली. सवण्यांपिलां आपल्याक खावंक मेळटली म्हूण कुय घालीत तो रानांत भोंवपाक गेलो.



हेवटेन पिलां घरा येवंक ना म्हूण हुस्को करपी सवणीं भोलो माकडागेर गेलीं. भोलोय हुस्क्यांत पडलो. तीं सगळीं मेळून रानांत पिलांक सोदूंक लागलीं. सोदतां सोदतां भोलो माकडाक वाटेर अर्दकुटी शिंपडावन दवरिल्लीं फळां दिश्टी पडलीं. त्या फळांचो सोद घेत घेत भोलो कोल्याच्या घोलीमेरेन पावलो. ताणें शिट्टुकसाणीन सवण्यांपिलां घोलीभितर आसतलीं म्हणपाचो अदमास केलो. भोलो माकडान आनी सवण्यांनी मेळून घोलीवयलो फातर पयस केलो. पळयल्यार भितर रडून रडून जार जाल्लीं सवण्यांपिलां. आपआपल्या आवय बापायक पळोवन पिलां तांकां वेंग मारपाक लागलीं. भोलो माकडाचें आयकलेंना म्हूण सगळ्यांनी माफी मागली.

भोलो माकडान मागीर एका झाडावेले म्होंवा मुसांचे मालें ल्हवूच काडून घोली भितर घालें आनी घोल आसा तशी फातर लावन बंद केली.

रातचो सवण्यांपिलांक खावपाच्या उमेदीन दातांक धार काडीत आयिल्ल्या कोल्यान घोलीचें दार उकते करून घोली भितर पावलां घाल्यां मात, म्होंवा मुसांनी घूं-घूं करून ताचेर घुरी घाली. ताका चाबून चाबून नाका जीव केलो आनी तांतूत कोल्याचो जीव गेलो.



## चंद्रिका

इंद्रदेवाल्या दरबारान अप्सरा नाचूंक आसताल्यो. त्यो एकापरस एक सुंदर आशिल्ल्यो. तांतूत चंद्रिका सगळ्यांक फाटीं काडटाली. पूण तिका आपल्या सौंदर्याचो खूब अहंकार आशिल्लो. ती दुसऱ्यांक किकोंत करताली. उठ्ठा बसता दुसऱ्याचो अपमान करताली. पळयता तेन्ना ती हारश्यान आपलें रूप तोरवेत रावताली.

एक दीस ती अशीच हारश्यान पळोवंक गुल्ल जाल्ली. तिचो दरबारांत वचपाचो वेळ जाल्लो. पूण ती गेली ना. इंद्रदेवान ती किदयाक येवंकना ते पळोवंक शिपायाक धाडलो. शिपायान तिका खूब उले मारले. पूण ती इतली गुल्ल जाल्ली की तिका तो आयला म्हण कळ्ळें लेगीत ना. ताणें मागीर निमणो उपाय म्हणून तिच्या दोळ्यांमुखार हात धरलो. तिका जाग आयली. पूण शिपायाली आगळीक तिका

आवडलीना. ताची आपल्या म्हन्यांत येवन रावपाची हिंमत कशी जाली म्हण ती रागान फडफडूंक लागली. तिणें खोंट मारून शिपायाक जमनीर उडयलो.

दरबारांत बशिल्लेकडेन देवाक ही गजाल कळ्ळी. आपल्या सौंदर्याचो तिका मद मारला हें पळोवन ताणें तिका शाप दिवन कुरूप केली आणि धुकलून धर्तरेर उडयली.



चंद्रिका पडली ती सामकी गरीब वस्तीन. तिचें काळीज भरून आयिल्लें. आपल्या करणेचो इतलो वायट परिणाम जातलो हे तिणे सपनांतूय चिंतू नाशिल्लें. नशीबाक दोश दित ती रस्त्याच्या खाचींत बसून रावली. रात जाल्ली. पावस पडूंक लागिल्लो. इतल्यांत हातांत लापयांव घेवन एक बायल आनी दादलो थंय आयलीं आनी ताणीं तिका हाताक धरून उठयली. तिका आपल्या घरा घेवन गेलीं. न्हावूंक उदक दिलें. खावपाक, पिवपाक दिलें. तिचें काळीज भरून आयलें. तिणे तांका अजापान विचारलें "हांव इतले कुरूप, तुमका अनवळखी. तुमी म्हाका लागी कशें केले ?"

तिचीं उतरां आयकून तीं दोगांय हांसलीं. तीं म्हणूक लागलीं “आमी लोकांत फरक करीना. आमका जात-पात लागना. आमका कुरूप-सुंदर लागना. भुकेल्ल्याक जेवण दिवपाचें, तांची सेवा करपाची हेंच आमी मानतात.”

तांच्या त्या म्होवाळ, निस्वार्थी उतरांनीं चंद्रिकेच्या मनांत रिगिल्ली अहंकाराची आशिल्ली नाशिल्ली किट्टीय धूवन गेली. ती त्या जाण्टेल्या जोडप्या वांगडा रावून लोकांची सेवा करूंक लागली. अडिल्ल्यां-नडिल्ल्यांक गरजेक पावूंक लागली. तांच्या सांगाता रावून तिणें आपले जिणेक एक नवो मार्ग दाखयलो.

कांय तेंपान जाण्टेलें जोडपें पिराय जाल्ल्यान भायर पडलें. तांकां देवान सर्गान आपोवन व्हेलीं. आनी तांचेर आपूण खूब खुश आसा, जायतें [illegible] म्हूण सांगलें. दोगांयनी आपल्याक आता कांय जाय का, दिता जाल्यार चंद्रिकेक तिचें रूप परत दी आनी सर्गांत परत व्हर म्हणून हात जोडून सांगलें.

देवान चंद्रिकेक सर्गांत हाडूंक विमान धाडलें, पूण चंद्रिका आयली ना. जाण्टेल्यांचे सेवेचें काम अर्धवट दवरून वचपाक ती तयार जाली ना. तिच्यांत इतलो बदल जाल्लो पळोवन देवाक अजाप जालें. सगळ्या देवांनी सर्गांतल्यान तिचेर फुलांचो आनी आशिर्वादाचो शिंपड केलो.

चंद्रिकेच्या निर्मळ मनाच्या सुंदरतायेन तिच्या कुरूपतेचेर मात केली.

# परोपकाराचें फळ

शिंदोळे गांवच्या एका कोनश्याक दोन खोंपी आशिल्यो. तांच्यामदीं बोरये कांटे भेंडये बड्यांनी गच्च केल्ली एक वंय आशिल्ली.

एका खोंपयेन रावताली दुर्गामती आनी दुसरे वटेन रावताली शांती. तीं दोगांय एकमेका शेजरा रावतालीं खरीं, पूण तांच्यांत जमीन मळबाचो फरक आशिल्लो. दुर्गामती नांवावरीच खूप तापट. सामकी चामटी तिच्या हातांतल्यान एक दमडी लेगीत सुटनाशिल्ली. पूण ती सामकी देवभक्त आशिल्ली. देवपुजा आनी उपास-तपास करूंक तिचो सगळो आदेस वतालो. जाल्यारुय तांतूतल्यान वेळ काडून ती आपली शेजान्न शांतीक सतावंक फाटीं सरनाशिल्ली. घरचो सगळो कोयर, देवाची फुलां, कुशिल्लीं फळां सगळे सगळे ती शांतीच्या आंगणात वयेंवेल्यान शेंवटिताली.

पूण शांती बाबडी शांत सभावाची. ती मोन्यानीं तो कोयर एकठांय करून आपल्या माडामुळांनीं व्हरून रकयताली. ताचें सारें जावन तिगेले माड घसघशीत जाले. ती नास्तिक नाशिल्ली. पूण दान धर्म करप गरजेक पडिल्यांक मजत करप आनी दीनदुबळ्यांची सेवा करप हीच खरी देवपुजा अशें ती मानताली.

दुर्गामतीच्या कडक उपासान आनी देवपुजेन देव तिचेर प्रसन्न जालो. ताणें तिका अमृतावरी गोड अशें जादूचे फळ दिलें आनी देव अंतर्धान पावलो. आपल्या कडक उपासाचें

1057

आपल्याक आशिर्वाद म्हणून देवान फकत एकूच फळ दिलां ते पळोवन ती निरशेली. तिणे अधाश्यावरी तें फळ खालें आनी सदचेवरी कोय काडून शांतील्या आंगणात शेंवटिली. दुसरे दिसा सकाळीं उठून पळयत तर शांतील्या दारांत एक हिरे माणकांचे आंग आशिल्ले झाड धोलतालें. ताच्या आंगार तीं अमृतावरी गोड फळां लांबताली. गांवच्या लोकांनी हें अपूप पळोवंक सामकी खेट केली. शांती फळां कापून लोकांक चाखूंक दिताली.



आपणें इतले कडक उपास-तपास, सदांच देवपुजा करूनुय आपल्याक फकत एकूच फळ आनी शांतीक पुराय झाड, दुर्गामती रागारागान देवाऱ्याम्हऱ्यांत गेली आनी देवाक हाचो जाब विचारलो. देवान हासूंन म्हळे, "हावें तुका दिलें तें फळ जादूचे आशिल्लें. तुवें रागान शांतीच्या

आंगणात शेंवटिल्ल्या त्या फळाच्या कोयेंतल्यान हें जालां. जे दानधर्म करूंक फाटीं सरनात, जे सदांकाळ लोकांची सेवा करतात तांका देवाकडे मागचें पडना, तांका ताचें फळ आपशींच फावो जाता."

देवाली उतरां आयकुन दुर्गामतीक पश्चाताप जालो. तिचो राग न्हिवलो. ती देव धर्म करूनय आपल्याक जातातशी, शांतीवरी लोकांची सेवा करूंक लागली, दानधर्म करूंक लागली. आनी सुखाक पावली.

## सदबुद्दी बाळू

लवू खाजेकार सामको दुश्ट आनी चामटो आशिल्लो. ताणें खाजें विकून बरोच पैसो जोडील्लो. पूण ताका दानत नाशिल्ली. तो कोणाकूच फुटकी दमडी लेगीत पातयेनाशिल्लो. तो लोकांकडेन फकत धंद्यापुरतो उलयतालो. आपल्याकडेन संवसारातल्यो सगळ्यो गजाली आसात. आपल्याक कोणाचीच गरज ना अशें तो म्हणटालो.

ताच्या दुकाना कुशीक उबो रावून बाळू सदांच खाज्याक पळोवन आस काडटालो. पूण पैशे नाशिल्यान तो फुडें सरूंक धजनाशिल्लो. बाळुलो बापूय गरीब कामगार. ताका जेवणा खाणाचीच मारामार जाताली. थंय खाजें खावूंक पैसो खंयचो ?

लवू खाजेकाराचीय ताचेर सदांच नदर पडटाली. ताका आपल्या खाज्याक आशेल्ल्या नदरेन पळयता म्हण त्या धाकटुल्याचो खूब राग येतालो. एक दीस ताणें ताका बुद्द शिकोवची थारायली. ताणें ताका दोळ्यांनी शिटकावन भितर आपयलो. बाळू भीतभीत भितर सरलो. हात फुडें करूंक सांगतकूच तो सामको खोशी जालो. कितल्या तेंपान ताका ताचें आवड्टें, खाजें मेळटलें आशिल्लें. ताचे दोळे खोशयेन लिकलिकले.

पूण दुश्ट लवूच्या मनांत दुसरेंच आशिल्लें. कोण पळयनासो करून ताणें कायलींतलो गोडाचो पाक काडून बाळूल्या धाकटुल्या हातार दवरलो. बाळू सामको कळवळो. दुसऱ्या हातान जळील्लो हात घट्ट धरून बाळू घरा पावलो. ताचे दोळे दुकांनी भरिल्ले. भंयान ताची दांतखिळ बशिल्लेवरी जाल्ली. हातांर पुरये येदो टरटरून फोड आयिल्लो.

लवू मात खोशी जाल्लो. बाळूक बुद्द घडयली म्हण तो शिळोणी घालत खाजें गाळूंक लागलो.

खूब तेंप गेलो. लवू जाण्टो जाल्ल्यान ताची भलायकी बरी नाशिल्ली. बाजारांत गेल्लेकडे ताका वोतान घुंवळ आयली. तो रस्त्यार पडलो. तागेलें वक्ल फुटलें. पूण कोणूच ताच्या लागीं गेलो ना. लवून केन्नाच कोणाक लागीं केले ना, ते तरी बाबडे किदें करतले ?

पूण त्या गर्देतल्यान एक तरणाटो फुडें सरलो. ताणें लवूक हळू उखललो. फाटकुळेक मारून ताका बेगिबेगीन

लागीं नळार व्हेलो. ताचेर उदक शिपडलें. लवू सुद्दीर आयलो. ताणें दोळे उगडून त्या तरनाट्याक पळयलो. ताका तो देवमनीस कसो दिसलो.

"चलात बाबा तुमकां हांव तुमच्या घरा पावयतां" म्हणत त्या तरनाट्यान फुडें केल्लो हात पळोवन ताका चर्र जालें. हात जळील्ली खूण आशिल्ली. तो बाळूच म्हण ताणें जाणलें. आपल्या दुश्टपणाक बाळून दिल्ले मनीसपणाचें उत्तर पळोवन ताची मान लजेन सकल गेली. दोळ्यांतल्यान पश्चातापाची दुकां झरझर करून व्हांवक लागलीं.

दुश्टपणा हो वायट, तो सदांच पैस दवरचो. दुसऱ्यांक सदांच जाता तशी मदत करची कारण आपल्याक तांच्या मदतीची केन्ना गरज पडटा सांगू नजो.

## अब्दुलाची काणी

प्रत्येक मनशाचो ताच्या हांसपाचेर, उलोवपाचेर ताबो आसूंक जाय. केन्ना उलोवप, खंय उलोवप आनी कितलें उलोवप हें ताणें जाणा जावूंक जाय. नाजाल्यार ताची गत अब्दुलाबशेन जाता.

अब्दुलाक खूब उलोवपाची संवय आशिल्ली. दिसभर बडाबडा करप. तो सगल्यांची उलोवन उलोवन तकली खातालो. एक दीस तागेली आवय वाजेली. तिणें ताका खूप तापयलो. तोंड उगडल्यार तोंडाक कुलप मारतली अशें

म्हळें. अब्दुला तिची तीं उतरां आयकून सामको बेजार जालो. किदेंय जाल्यार उलोवंचो ना म्हण वग्गी सालांत बसलो. रात जाली. तो रागान जेवलो सुद्धा ना. तसोच कोनश्याक बसून रावलो. घरांतली सगळीं वचून न्हिदलीं.

सारके मध्यानीचेर सालाचें जनेल भायल्यान कोणेंतरी धप्पकरून धुकल्ले. पोन्ने आशिल्ल्यान तें खळकन उगडले. जनेलांतल्यान तोंडाक काळे फांशील्या एका मनशान घराभितर नजर भोंवडायली. घडये तो चोरूच आसुंये. पूण अब्दुला कोनशाक सामकी कवळी करून बशिल्ल्यान ताका अब्दुला दिसलोना. चोरान ल्हवूच जनेलांतल्यान सालांत उडी मारली. अब्दुला ताका पळयत आशिल्लो. पूण ताणें तोंड उगडलें ना. तो ओगीच रावलो.

चोरान सालांतली आरमार आपल्या चावेन उकती केली. `भितल्ले सगळें सामान उस्तीलें. बरी-बरी मुस्तायकी, चांदिची आयदनां, भांगरा वस्ती, सगळीं एका पोटलेंत बांदली आनी फांटीर मारली आनी तो कांयच आवाज करीनासतना जनेलांतल्यान उडी मारून पसार जालो. तरीय अब्दुल्ला कांयच उलयलो ना. वग्गी रावलो. ताका अजाप जालें. आपूणय वग्गी रावूंक शकता म्हण तो सामको खोशी जालो.

सकाळीं सगळे घर जागे जालें ते तागेल्या आवयच्या किळांचेन. आरमार उक्ती पळोवन आनी वस्तू ना तें पळोवन तिणें भंयान किळांच मारिल्ली. सगळ्यांनी एकदम

अब्दुल्लाक विचारलें " आरे तूं रातभर हांगाच आसतना हें अशे कशें जाले ? चोरी कशी जाली ?" पूण तो तोंडार बोट धरून मुमुरख्यांनीं हांसता ते पळोवन आवय रागान पिशी जाली. ती रागान घरांतल्यान सान्नी खुटारो घेवन आयली. तिणें म्हळें " हें पळय, जर तूं आतां तोंड उगडून सारके सांगना जाल्यार तुचें तोंड फोडटा." त्याबराबर अब्दुल्ला व्हडा-व्हडान रडूंक लागलो आणि म्हणूंक लागलो "हांव उलयतां म्हण कालच तूं म्हज्या तोंडाक कुलप घालूंक सोदताली. म्हण काल चोरान जनेल फोडलें, हांव कांयच उलयलोंना. ताणे घरांत येवन आरमार फोडली सामान काडून पोटली बांदली, हांव कांयच उलयलोंना. ताणें पेटली घेवन फुज्ञो मारली तरीय हांव वग्गी रावलों कांयच उलयलोंना. आनी आता तूं म्हाका शाबासकी दिवची सोडून सान्नी खुटाऱ्यान मारूंक सोदता व्हय ?"

तागेलो तो अवतार आनी उतरां आयकून आवय सकट सगळ्यांनी कपलार हात मारलो.

## परमभक्त गोविंद

एका गांवांत गोविंद नांवाचो एक गरीब मनीस रावतालो. गरिबी ताचे पांचवेक पुजिल्ली म्हळ्यार जाता. पूण जें कितें मेळटालें ताचेर समाधान मानून तो आनी ताचे कुटुंबीय दीस काडटाले. तो मनान सामको भावार्थी आशिल्लो.

नित्यनेमान तो गांवांतल्या म्हादेवाच्या देवळांत वतालो. फुलां पुंजावन देवळांत व्हरून दितालो. देवूळ सान्न मारून लींप करतालो. झेपताली तशी सेवा करतालो. मागीर प्रसाद घेवन प्रसन्न मनान घरा येतालो.

असोच कांय तेंप गेलो. आतां गोविंदाक जाणटेपण आयलें. ताका देवळाचीं सोंपणां लेगीत चडूंक देंवंक त्रास जातालो. पूण ताणें आपलो नित्यनेम केन्नाच सोडूंक नाशिल्लो. ताचे घरचे परिस्थितींतूय कांयच फरक पडूंक नाशिल्लो.

एकदां देवांचो देव म्हादेव आनी ताची घरकान्न विमानान बसून धर्तरेर भोंवडेक आयलीं. म्हादेवाले घरकान्नीन, पार्वतीन, दिस्तूच गोविंदाक झेलपटत, झेलपटत देवळांत भितर सरतना पळयलो. तिणें दिव्य दृष्टीन तो म्हादेवालो परमभक्त म्हूण जाणून घेतलें. ताची घरची गरीब परिस्थिती पळोवन तिका खूब वायट दिसलें. आपल्या ह्या भक्ताक नजरेआड केला म्हण तिणें रोखडोच म्हादेवाक जाब विचारलो.

देवान हांसून म्हळें, "देवी, म्हजी म्हज्या सगळ्या भक्तांचेर नदर आसता. आनी हो तर म्हजो परमभक्त. ताका हांव कसो विसरतलों ? ह्या म्हज्या भक्ताक पयशा-अडक्याचो मोह ना. म्हजे भक्तीफुडें ताका भांगर शिंगर, पयसो अडको माती मोलाचो. ताका समाधानाचें मोलादीक फळ फावो जालां."

आतां मात पार्वती देवीक राग आयलो. ती म्हणूंक लागली, "तुमकां मदत करपाची ना जाल्यार करूं नाकात. हांव करतलीं. म्हज्यान ताचे हाल पळोवं नजो." म्हादेवालो हयकार मेळोवन तिणें भांगरा शिंगरान भरिल्ली एक पोटली तयार केली. ती व्हरून, जे वाटेन गोविंद भायर सरता, थंयच एका सोपणार दिसता अशी दवरली. मागीर तीं दोगांय कडेक वचून गोविंदाली मजा पळोवंक लागलीं.

थोड्या वेळान गोविंद देवळांतल्यान भायर सरलो. आतां तरी तें भांगर शिंगर घेवन गोविंद आपली गरिबी सासणाची पयस करतलो आनी सुखचैनीचें जिवीत जगतलो, अशें पार्वतीक दिसलें आनी तिका सूऽ जालें. तिच्या मुखामळार हांसो उदेलो.

पूण छेऽ! हो हांसो चड वेळ उरलो ना. कारण गोविंद पयल्याच सोंपणार उबो रावन चिंतूंक लागिल्लो. 'हांव आतां जाणटो जालां. घडये थोड्या तेंपान म्हाका दोळ्यांनी दिसचेंना. पूण तरीय हांव देवळांत येवन म्हादेवाक पांयां पडपाचो नेम चुकोवंचोना. इतलो तेंप संवंय जाल्ल्यान म्हाका सोंपणां चडूंक कांयच त्रास जावंक जायना. पळोवंया तरी.' अशें म्हणून ताणें सोमतेच दोळे धांपले आनी तो सवकास एक एक सोंपण देंवूंक लागलो. पार्वती बाबडी श्वास रोखून ताका पळयताली. पूण हाय रे दैवा ! तो तर भांगरा पोटलेक पळयनासतना दोळे धांपून सोंपणां देंवून सकयल पावलो.

सकयल पावतकच गोविंदान दोळे उकते केले. ताचे दोळे खोशयेन लिकलिकताले. फुडाराक देवळांत देवाक भेटूंक येवपाक आपल्याक आडखळ जावंची ना म्हण तो खोशी जालो. फाटीं वळून पळेनासतना घरचे वाटेक लागलो. म्हादेव मुमुरख्यांनी हांसलो. पूण पार्वती आपली हार मानूंक कशीच तयार नाशिल्ली. तिणें बेगिबेगीन ती सोंपणावेली पोटली उखल्ली आनी तीं दोगांय सामान्य रूप घेवन ताचे सामकार येवन उबीं रावलीं. पार्वतीन भांगरा पोटली गोविंदामुखार उगडून धरली आनी म्हळें, “ही घे तुजी पोटली. तूं ती सोंपणार सांडून आयलो.”

पूण गोविंदाची नजर भांगराचेर गेलीच ना. तो भूल घाल्लेवरी तांच्या मुखामळांक पळयत रावलो. देवाचो परमभक्त तो. ताणें रोखडेच तांकां वळखले आनी दोगांयच्या पांयार घालून घेतलें. म्हादेवान ताका उखलून वेंगेंत घेतलो आनी ताचे फाटीर मायेन हात भोंवडायलो. गोविंदालो देवावेलो मोग आनी देवाचो गोविंदावेलो विश्वास पळोवन देवीक खोस भोगली. तिच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. दोगांयनी मागीर गोविंदाक आपल्या विमानांत बसयलो आनी ताका सर्गार घेवन गेलीं. गोविंदाले भक्तीचो आनी समाधानाचो परमळ गांवभर पातळ्ळो.

# अनाथ

सदांकाळ हास्स हास्स आवाज करीत ल्हारां काडपी दर्या. धवीफुल्ल तुकतुकीत रेंवेची वेळ. आनी वेळेक तेंकूनच मध्यम उंचायेची दोंगुल्ली. दोंगुल्लेच्या माथ्यार वसयल्ले धाकटुले गांव. गावकऱ्यांमदीं एक १०-१२ वर्सांचो ल्हान भुरगो आशिल्लो. ताचें नांव देवांग. तो सामको एकसुरो आनी अनाथ आशिल्लो. ताका काम करून पोट भरचें पडटालें.

दर वर्सा वेळेचेर गावंकऱ्यांली गुरुपुनवे दिसा जात्रा जाताली. आज वेळेर गांवकऱ्यांली जात्रा चलताली. तरेतरेच्या मांडांनी वेळ सामकी भरून गेल्ली. खाज्यांचो, जिलब्यांचो, भज्यांचो घमघमाट सुटिल्लो. गांवकरी तरातरांची मुस्तायकी घालून बायलां-भुरग्यांक घेवन हेवटेन तेवटेन भोंवताले, मजा करताले. गांवांत सगळेकडेन सामको शुकशुकाट जाल्लो. प्रत्येक दाराक कुलूप आशिल्लें. पूण हो तो कोण ? त्या खडपार बसून कोण दुकां गाळटा ? आरे ऽ, हो तर आमचो देवांग. ताची बाबड्याची मुस्तायकी पिंजून बोंतरां जाल्यांत. आनी ताचेकडेन खाजें लेगीत घेवंक पयशे नात खंय. तो बाबडो आपल्या सोंपिल्ल्या आवय - बापायची याद काडून रडटालो. तीं आशिल्लीं जाल्यार ताका प्रत्येक गजालीक अशे तळमळचें पडचें नाशिल्लें.

आरे, हें कितें ? पयस दर्यार बसून कोण ही भिरांकूळ आकृताय येता ? देवांगाच्या आंगार भियेवन कांटो उबो

रावलो. तो सट्ट करून उबो रावलो. ताणें बारीक नदर करून पळयलें. हें तर एक व्हडलें ल्हार. अख्ख्या माडापरस व्हडलें. ताका चावडेर बशिल्लेकडेन एका जाण्टेल्यान सांगिल्ल्या एका विक्राळ ल्हाराची याद जाली. त्या विक्राळ ल्हारान शेंकड्यांनी वर्सां आदीं अशेच जात्रेक जमिल्लेकडेन आख्खो गांव गिळिल्लो खंय. आतांय तशेंच जाल्यार ? ह्या विचारासरशीं ताच्या आंगाक घाम सुटलो. हातपांय कडकडूंक लागले. ताणें मोठ्यामोठ्यान आड्डी मारून लोकांक आपोवपाचो यत्न केलो. पूण गांव जात्रेंत गुल्ल आशिल्लो. ताणें मागीर बडयेक मुस्तायकी बांदून बडी हालोवन लोकांक शिटकावपाचो यत्न केलो. पूण ना. कोणाचेंच ताचेर लक्ष गेलें ना.

आतां मात देवांग सामको भियेलो. ताणें देवाक आनी आपल्या सोंपिल्ल्या आवय - बापायक उलो मारलो. अचकीत तो आपले खोंपीकडेन धांवत सुटलो. दार उगडून रान्नींत चुट्टयो पेटोवन हाडल्यो. तो धांवत खोंपी भायर आयलो. ताच्या पोल्यावेल्यान दोन दुकां मोतयांवरी सांडलीं. दुसऱ्याच खिणाक ताणें त्यो पेट्टयो चुट्टयो आपले खोंपीर शेंवटिल्यो. तेसरशीं खोंप फट्फट् करून पेटली. तांबडो गुंज उजो आनी धुंवर सामको मळबाक तेंकलो. जात्रेक आतां बोवाळ जाल्लो. जो तो आपलें घर वांचोवंक दोंगुल्ली चडूंक लागलो. सगळे देवांगाचेर गाळयांचो शिंवोर करताले. ताणें नसायपण करून गांवाक उजो घाला म्हणूंक लागले. जात्रा सामकी ओस पडिल्ली.

गांवकरी देवांगाक खावूं काय गिळूं करून पळयताले. देवांग मात दोळे ताणून दर्यावटेन पळयतालो. सगळ्यांची नदर दर्यावटेन घुंवली. सगळ्यांची भियेवन गुळी जाली.

त्याच खिणाक तें भिरांकूळ ल्हार वेळेर पाविल्लें. आनी पळेतां सगळी जात्राच दर्यान गिळून उडयल्ली. आतां मात गांवकऱ्यांक जाल्ले गजालीची जाण आयली. लोकांक वांचोवंक देवांगान आपले खोंपीक उजो लायलो म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. तांकां पश्चाताप जालो. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं. तांच्या काळजांत देवांगाखातीर आदर आनी माया निर्माण जाली. गांवच्या जाणट्यांनी वचून ताका मायेन वेंगायलो. जो तो देवांगाच्या नांवाचो जयजयकार करतालो. आतां देवांग अनाथ उरूंक नाशिल्लो. सगळो गांव ताचीं आवय आनी बापूय जाल्लो.

## प्रामाणीक चोर

एक चोर आशिल्लो. तो रात जाली म्हणटकीर आंगाक काळें फासून गांवांत चोरूंक भोंवतालो. एक फावट ताणें खासा राजागेरूच चोरी करपाचें थारायलें. ताणें रातीकडेन सदचेवरी आंगाक काळें फासलें. बद्द फांतोडेर तो राजवाड्यांत भितर सरलो. सगळे वाटेन सामसूम आशिल्ली. शिपाय, राजा, प्रजा, सगळीं सगळीं साखरन्हिदेंत आशिल्लीं. ताणें आरमार फोडली. माणकां,

मोतयां, पयसो अडको सगळें सगळें पोतयेंत भरलें आनी खांदार उडोवन तो काळखांतच जनेलासरीं वचूंक लागलो. पूण हाय रे देवा, तागेलो पांय कदेलाक आपाटलो आनी ताचें नाखूटच तुटून सांडले. ताणें पोती सकयल दवरली आनी तो नाखूट सोदूंक लागलो. सोदतां सोदतां ताचो पांय राजाक लागलो. राजा न्हिदांतल्यान खडबडून जागो जालो. राजान दिवो पेटयलो. पळयल्यार कितें ? ताचे मुखार काळो कुळकुळीत चोर उबो. राजान बेगिबेगीन शिपायांक उलो मारलो आनी चोराक धंरूक सांगलें. इतलें सगळें जायसर चोरान पळून वचपाचो मात लेगीत यत्न केलो ना.





राजाक अजाप जालें. जेन्ना राजान ताका ताचें कारण विचारलें तेन्ना ताणें आपलें नाखूट तुटून थंय सांडलां म्हण सांगलें. तें सोदपाखातीर तो थंयच रावला म्हण सांगलें. तरी राजा ताका अजापान पळयत रावलो. तें पळोवन

चोर फुडें सांगूक लागलो, “राजा, जर म्हज्या नाखटाचो कोयर हांगा पडत तर लक्ष्मी तुजेर कोपतली. तुगेली गिरेस्तकाय नाच्च जातली. तशें जाल्यार प्रजाय गरीब जातली. मागीर हांवें चोरी खंय करप ? हांव उगड्यार पडटलों. म्हजीं भुरगींबाळां उपाशीं पडटलीं. ज्या घरांत नितळसण आसता, थंयच लक्ष्मी वावुरता. देखून हांव म्हजें नाखूट सोदून कडटां आनी भायर उडयतां.”

राजाक चोराच्या प्रामाणीक उतरांनी खोस जाली. ताणें ताका माफ करून सोडून दिलो.

मनीस कितलोय वायट जावं, ताच्यांत खंय तरी बरेपणाचो झरो व्हांवता. ताकाच मनीसपण म्हणटात.





## श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| | (पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८) | | |
| | (दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | | |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकार |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅड्डी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिंव आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांचो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कासवाचे घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचे पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |